# પરણેં ઘર



शरतचंद्र शेणै

# परणें घर

(नवलिका)



शरतचंद्र शेणै




PALLURUTHY

Konkani

# परणें घर

(Parne Ghar)

A Novelette by:

**Saratchandra Shenoi**
Gokul, 18 - 535 A
Palluruthy, Kochi - 682006

[saratchandrashenoi@gmail.com]
Phone: 0484 2233433



Published by Author
First Edition : 2012
**Rs.20.**

Printed at:
Prakash Process
Kochi 682035

# 1

दयानंद मामान नवें घर करनु राबूक आरांभिल्ले कालाक तागेले परणे घराविशीं जायतीं जाण निमगितालीं.

‘विकतलो वे?’ ‘भाड्याक दितलो वे?’

अशी जायतीं जाण सोदितालीं. तें तागेलें थरवाडा घर. आबो कालाक बांदिल्लें. तत्काल तें तशीच आसो म्हुण ताणे लेकीलें. तें विकूक जावो भाड्याक दिवंचाक जावो ताका मन करना आशिल्लें. ताका तशी अंधविश्वास कांय ना तरीय परणे ते कोयलुवे घरांत पूर्विकाले आत्मे आसाय सरी ताका दिसतालें.

मासाक एक पावटी तें वाकतें करनु झाडून पुसप. कोयरु येवंचे तराचें कांय थांगा ना. कूडि सयत सात कूडां. रुकाचो माळो. उंचार कोयलूव. मामालें नवें घर स्वल्प मुकार जावनु आसा. दोनींचेय मद्दें एक तोडु आनीक सुमार होड्डु परमा भागु आसा.

एक मलयाळम दिनपत्राचो मुख्य संपादक जावनु आसा दयानंद पै. होड थरवाडाचो. दामाकय कांय उणाव ना. तागेली बायल रत्नकला एक बरी सामूह्य प्रवर्तका म्हुण नांव पाविल्ली महिळा. तांकां दोग जाण चेल्ले. दिनेश आनी रवी. दिन्ना आतां धाव्यांतु पावला. धाकलो सातव्यांतु पावला. शिकवणेंतु दोगंय दाष्टीक. आनु भावा मदें होडी दोस्ती आसा. समप्रायेचे दोग मित्र आसाय तांकां - सोमनाथ आनी अजय. तेवय भाभाव. सोमा शिकता दिन्नाले क्लासांतु जाल्यार अजी शिकता रवीले क्लासांतु.

त्या दोगांलें कुटुम्ब तशी संपन्न न्हय. तांगेलो बप्पा अविनाश राव एक प्रायवेट कंपनींतु अकौंडेंट. अम्मा सोमलता घर चलयता. उणे शिवणीचें दंदय ती करता. तांगेलें घर एक लायन घरांचे कोळनींत आसा.

रित्तें पडलेलें परणें घर ते कुटुंबाक राबूक दिल्यार चांग आशिल्लें म्हुण दिन्नाकय रवीकय दिसतालें. जाल्यार हें कार्य अम्मा बप्पा लागी सांगूक तांकां संकोचु. अविनाशान स्वयं येवनु निमगिल्लें तं. ते भितर घर कोणाक दींवका नाका म्हुण दयानंद मामान निर्णय घेतलोच! तावळि कशी?

इतलेच कालाक राबिल्ले ते थरवाडा घराचेर दोगांय चेरडुवांक होडी माया आशिल्ली. बेटेळु मेळतना तीं ते घरा लागी जावनूच इष्टां लागी वचून बेसतलीं खेळतलीं. थांगा मात्र न्हय, स्कूलांतूय देवळांतूय सगल्यान तीं चोवग जाण एकसाणींच आसतलीं. तशी जावनु तांकां एक आडनांवय मेळ्ळां - चोवगां मंडल!

दोनि वर्ष जावनु दिन्ना स्कूलाचो क्रिकेट कप्टन तं. सोमाक संगीतांत प्रावीण्य. रवी एक पुस्तकांचो पिसो. अजयाक तशी कित्यांतूय म्हुण होडि तान ना. जाल्यार तो सदा कसलेंय एक यंत्र वो एलेक्ट्रोनिक वस्तु हातांतु घेवनु बेसतलो. तें घणघण वेगळें करनु चोयतलो. कंप्यूटरा कार्य जाल्यारीय तशीच. तें सर्व ताका होगी होगी समजता. दिन्नाक एक कंप्यूटर आनी एक सेलफोन आसा. म्हळ्यार ते दोनींचेय विशीं ताजाकय चड कळता अजीक तं!

गीमाची अवधि जावनु स्कूल आरांभून आतां देड मास जालो. आद्याद्य आशिल्लो पावसु ऊणे जालो. शिकवणेकय बाकी कार्यांकय एकि निष्ठा आयली. शिकवण आसिल्ले दिसांनी स्कूलांत मेळनु जाल्यार मागीर तान्नी अशी तशी दिकप ना. शनिवारा आनी आयतारा दिन्नाले परणे घरा लागी तं तांगेलो मेळु. सैकला मागल्यान अजीक बेसोवनु सोमा येतोलो. खेळु वर्तमानां गींत काणी जावनु वेळु वता कळचो ना!

थोकडे वेळार चोवगय रुकांचेर तं आसतले. आंब्या कालु मू!

दिन्नाले घराकडे दंदाक एक all rounder संतमक्का आसा. सर्व कायरेंय ती चोवनु करतली. जेंवचो वेळु जातना चेरडुवांक दिकलीनाय जाल्यार दिन्नाले सेल फोनार ती एक missed call दितली! तें पर्यंत ती शिकल्या.

कालि शनिवारा चोवगांक मेळूक जालेंना. सोमाक आनी अजयाक घेवनु तांगेलीं अम्मा बप्पा आलपळे एक व्हारडिकेक गेलेलीं.

आयतारा सकाळीं दिन्ना तागेले नवे घराच्या आकाड्यार होड अक्षमेन मित्रांची वाट पळोवनु राबीलो. सैकलाचें बेल आयकिल्लेंय भावु रवीय थांगा धावनु पावलो. दिन्नान थांगा थाकूनूच सोमाक हातु दाकोवनु आपयलो. सोमान सैकल हाडून तांचे मुकार राबयलें. दोगांय देवले. सोमान स्वल्प आश्चर्यान निमगीलें.

'आजि मागलांचे घरा लागी न्हय वे?'

दिन्नान तावळि ताळो दामोवनु अत्यंत जाग्रतेन एक रहस्य तांकां कळयलें. तें परणें घर आतां तशी रित्तें न्हय! थांगा गुपित जावनु कोण की राबून आसा!

हें आयकून रवी सयत तेगांय जाणांलीं तोंडां आश्चर्यान वाकतीं जालीं..

हें ! !

'तें कशी?' रवीन निमगीलें.

'तूं कशी जाण?' सोमाक संशयु.

'केदाण थाकून हें?' अजीक तें तं कळका.

'सांगन, एकेक करनु सांगन..' दिन्नान ताळो दामोवनूच सांगलें.

'येयाय, आमकां कंप्यूटरा कूडांत वचूया.'

चोवगांय निशब्द घरांत चडले.

कंप्यूटरा कूड म्हळ्यार तांगेलें शिकवणे कूडच. थांगाच दोन राकांत जावनु तांगेली home library लागेन आसा. तांतूले पुस्तकांची संख्या आतां 800 दांटवल्या. चोवगांय कूडांत पावनु बेसले. दिन्नान कूडाचें कवड संथ धांकून येवनु सांगूक आरांभिलें.

'कायरें कालि तं माका कळ्ळेलें. तुमी कालि आयलींनाय दिकून हांवें रवी लागी सरी सांगलेंना. कार्य सत्य वे म्हुण हांव हो वेळु भितर चिंतेरीच आशिल्लों. कालि आमगेले दंदेल्यांनी तें घर वाकतें करनु झाडचे वेळार हांवय गेलोलों. मिगेली परणी एकि क्रिकेट केप चोंवचाक ते घराचे माळियेर चडलोलों..'

'तावळि माळियेर वे राबून आसा?' रवीन अमसरायलें.

'तशी आसूका. कालि थांगा कोण नाशिल्लें. माळियेर आमगेलें जायतें सामान साकांतु बांदून दवरलेल्या भरशी एकु वेगळो होडलो साकु हांवें थांगा दिकीलो. साबाव चोयल्यार व्यत्यासु कळचोना. संशयूय दिसुन्ना. लागी वचून चोयतना व्यत्यास कळता. सुमार दाटु दाटु साकु. भितरि इतें कीं?'

दिन्नान सस्पेनसार निमगीलें.

'तूं सांग!'

तेगांनीय एक ताळ्यान सांगलें. खेळनु बेसूक कोणाक ना क्षमा.

'वीडियो कॅमरा, वीसीडी, ऑडियो सेट, वाकमान, सगट! तांतूच एक किटांतु एक शर्ट, लुंगी, टरकी, षेविंग सेट, सोप, कन्नडी सगट!'

'तावळि चोरु वे?' अजीक विश्वास येना.




'चोरु म्हळ्ळेल्यांत संशय ना..' सोमान सांगल..

'जाल्यार तो घरांत चडलो कशी? घरा लागी होडु रूक कांय ना. पक्याची कोयलूव खंयीच भेतून आसा जावनूय दिकूयेना..'

'तें तं माकाय आश्चर्य जालेलें. हांवें भितरचानय चोयलों. कोयलूव कांय निकळायलेलें लक्षण ना..'

दिन्नान विवरसिलें.

'आमगेले दंदकारांतुलेच कोणय वे म्हुण लागेन आलोचन केली. म्हळ्यार तशी जांवचाक वाट ना. आमगेलीं दंदकारां सर्व मुरथम थाकूनूच आशिल्लीं. एकच घराचीं. तांकां तांगेलेंच चांग घरय आसा. हें कोण तरी परगांवचें म्हुणूच दिसता.'

'घरांत कशी चडले म्हुण कळ्ळें वे?' रवीन निमगीलें.

'घरा चावी डूप्लिकेट केलेली आसूका.' अजीक तांतूं संशय ना.

'ते घराचे माळियेर चोडचे निसणीकडेचे कवडाक होडु शब्दु जातालो मू. कर्र कर्र जावप तं.' रवीन उडगास काडलो.

'आतां तें कांय ना. चोरान ते कवडाचे विजागिरीक पुरतेंच बडबडी तेल लावनु सोडल्यां! कसलोच सोवदु आतां जायना.' दिन्नान व्यक्त केलें.

'तूवें हें कोणा लागी सांगलेंना वे? काली राती चोरू साकूय घेवनु गेलो की ना म्हुण कशी कळता?' सोमान संशय सांगलो.

'हांव आजि सकाळींय वचून चोयलों. साकु थांगाच आसा.'

दिन्नान खंडित सांगलें.

'तशी जाल्यार ताणे थांगा राबप कांय ना आसतलें. एकवेळा येवनु साकु दवरनु गेलो आसतलो. तो परतून केदाण येतलो म्हुण कळना

दिकून कायरें पोलीसाक कळोवंचें चांग म्हुण दिसता.' सोमालें निगमन तशी.

'व्हय. तान्नी येवनु फिंगर प्रिंट काडून चोराक धरूक पुरोय.' अजीलें निगमन.

'तेंवय ना जाल्यार सूण्याक हाडून हुंगोवनु धरूकय साध्य तं.'

सोमान अशी सांगून पुरतें करचे फूडे रवीन सांगलें-

'ओ, तांतूं एक ॲडवेंचर ना!'

बुका मासळी म्हुण आठयताय जाल्यारीय तो आशिल्लो हून रगताचो!

'साकु मेळ्ळो म्हुण पोलीसानी चोराक धरचें कार्य सुसाध्य जायना. लोकल चोर जाल्यार मात्र तं तशी धरूक जातलें. हो चोर परगांवचोच. हे गांवांचो जाल्यार अशी ताणे दिकिल्ले घराकडे चडून निपून राबुन्ना. तो हांगा वेळा वेळार येवनु वचोच म्हळ्ळेल्यांत माका संशय कांय ना. न्हय जाल्यार कष्ट काडून ती विजागिरि कित्याक तेल घालनु सामकी करका? तेंच न्हय, ताणे ते घरांतुली न्हाणीय उपयोग केल्या!'

दिन्नान कार्यांतु एक लागेन उजवाड घालो.

'व्हय वे? जाल्यार तो सद्दां रातीचें येवनु राबताच आसूका. दिसाचें घरां चोवनु दवरूक भोवंता आसतलो.' सोमाक आतां संशय कांय ना.

'रातीचें राबतलो कशी? फारूक वचूका नाका वे?' अजीलो प्रश्नु.

'तें व्हय मू!'

'दिसाचें सर्वे करनु रातीचें फारप. मागीर एक दीस आनी एक राती विश्रमु!' अजीनच्र प्रश्नाक जाप सांगली.

'अरे, तूं गेले जन्मांतु चोर बी वे आशिल्लो?' रवीन तमाश मारली.

एक होड हास जातना सगटांलेय टेनशन ऊणे जालें.

'तशी जाल्यार तो आजि राती येता आसूका. माका दिसता आमकांच एक हात चोयल्यार कशी म्हुण!' दिन्नान मनांतुलें सांगलें.

'चोवया! चोवया!'

सर्वांक पूर्ण सम्मती. होड उत्साह. धीर साहस कृत्यांकडे आशिल्ली तांगेली भितरची तान आपशींच भायर प्रत्यक्ष जाली.

'जाल्यार सर्वय अत्यंत जाग्रतेन जांवका. चोर म्हळ्यार ताका कसलीय दया माया कांय आसुन्ना.' दिन्नान उडगास दिलो.

'उपराटें, दुष्टूच आसतलो!' सोमान तें पूर्ण केलें.

'पेसकाती, लोकंडा बडी, सर्व घेवनु भोंवताय म्हुण पत्रार आशिल्लें!'

रवीन खबर सांगली.

'जाल्यार तोक पिस्तोल कांय आसुन्ना म्हुण आठोवया!' अजीन धैर्य सांगलें.

'व्हय, तशीच आठोवया. मुकार सरतना, आमी तैयार आसुका जाल्यार आमकां आतां जाय एक प्लान तं..'

दिन्नान कप्टनालीं उतरां सांगलीं..

'एक फूळप्रूफ, फेलप्रूफ प्लान!!'

# २

भायर पावसु आरांभिल्लो. चोवगांय साहसिक कूडांभितरि तांगेलें प्लान तैयार करताय. राती नीद खळका म्हळ्ळेल्यांत संशय ना. हेरदूसा क्लासय आसा. होडले दोगांयं धाव्यांतु मू. शिकवणेंत संपूर्ण श्रद्धा जाय जालोलो वेळ. वेकेषणाचे दीस आशिल्ले जाल्यार पुरो आशिल्लें म्हुण सगल्यांक दिसतालें. नोपूरो जावन हो पावसूय!

कूडा कवडार संतमक्कान दोन टुकळि मारल्यो, आनी तें वाकतें करनु भितरि चडली. हातांत चारि खोल्ले आनीक स्टीला चेंबांतु पोरमळा चाय...

‘भायर पावसु मू, न वें?’

चोवगांनीय तें व्हय म्हळ्ळें. पावसा निबान हांगा प्लानिंग तं चमकता म्हुण तिका खंय खबर? संतमक्कान वतना दिन्नान दुशेर कूडा कवड धांकलें.

‘अक्कान कितेंय आयकिलें आसतलें वे?’ अजीक संशय.

‘आयकिल्यारीय कसलेंय भिवंचाक ना. अक्का सानप्रायेर होडि साहसी खंय आशिल्ली! आवश्य आसा जाल्यार आमकां अक्काकय एकडे करूयात!’ दिन्नान समजायलें.

‘राती जेवणाक हेवय आसतले म्हुण आतांच अक्का लागी सांगूयात आशिल्लें.’ रवीन उडगास दिलो.

‘तें हांव सांगन.’ दिन्नान ताजें उत्तरदायित्व घेतलें.

‘पावसु राबतना तुमी दोगांय घरकडे वचून आजि हांगा राबूचें कायरें थांगा सांगूका. मागीर संथ सांजे आयल्यार पुरो. देनपारां जेवण जावनु सनीच एक नीद काडून उषार जावंका सगटांनीय.’

‘तें तं कष्ट, आजि आनीक येदी सरी नीद येवंचिना! साबाव दोळे धांकून पडूयात मात्र!’

सोमान सांगिल्लें वास्तव आशिल्लें. तें सत्य म्हुण सगटांकय लागीच कळ्ळें. रातीचे खातीर एकेक तैयार करताच आशिल्ले चोवगांय.

राती त्या घराच्या माळ्यार काळकांत बेसतना शब्द जायनाशें खांवचे तराचें ब्रेड सानविच तैयार केलें. फ्लास्कांत हून कापी काडका म्हुण आशिल्लें. जाल्यार ताजो परमोळ वेगळोच कळत दिकून साबाव उदाक पुरो म्हुण दवरलें. दोन टोर्च आनी एक ॲमर्जन्सी लॅम्प आसा. एक स्टीला विसिल, एक प्लास्टिका दोरी आनी परणे ट्रान्सिस्टर रेडियोचें एक एरियल इतलींच काडलीं. तें बलिष्ट एरियल एक बडी सरी स्वरक्षेक उपकारतलें. वेगळें आयुध आयदूव कांय ना.

‘आमी तैयार आसतले. जाल्यार चोराक हें अप्रतीक्षित आसतलें. मात्र न्हय, आमी तेग जाण आसतले मू!’

दिन्नान सांगलें. अजीक वेगळें दंद तं दिल्यां. ताका तांतूं चिके निराशा आसा. जाल्यार तें दंद करूक तोच मू समर्थ! हें आठोवन तें कार्य मनान करूक ताणे निश्चय केलो. तेंच न्हय तागेले स्वंत रूपार एक एक्स्ट्रा तैयारि लागेन केली!

सांजेची चाय जावनु सोमा आनी अजी घरकडे सांगून देवले. साधारण परीक्षे वेळार मात्र तं तान्नी दोगांनी दिन्नांथय राबप. आतां ताजो वेळ कांय जालोना. दिकून तांगेले अम्मान कायरें निमगीलें. एक प्रत्येक प्रोजेक्ट आसा म्हुण तान्नी जाप दिली.

देनपारां उपरांतें पावस पडलोना म्हुण तांकां उपकार जालो. ते सैकलारीच देवले. दिन्नाथंय तागेले अम्मानय संतमक्कानय विशेष निमगिलो. एक प्रत्येक प्रोजेक्ट म्हणूच तांचेय लागी सांगलें.

'राती नीद खळूक वताय जाल्यार उणेच हून कट्टन कापी फ्लास्कांत काडून दवरीन.'

संतमक्काक ताजोय उडगास.

तान्नी नाका म्हळ्ळेंना. राती तान्नी ते घराकडे वचे फूडे पीवयात. बाकी दवरल्यार अजीक उपकारा पडतली. ताणे हांगा एकलोच मू बेसूका. तेंवय काळकांत!

संतमक्कान तांचे खातीर एक्कावें जेवण तं तैयार केलेलें. जाल्यार पोट अदीक भरल्यार नीद बी येत म्हुण ते चड जेवलेनाय. संतमक्काक चिके आश्चर्यय निराशाय सगट जाली. तीणे म्हळ्ळें -

'हें इत्तें, हांवें ओपुरबायेन इतलेंच सगट स्पेश्यल करनु घेवनूय चेले साबाव नांकटांनी मू जेवताय!'

दिन्नान तिका समजायली - 'राती बेसून प्रोजेक्ट करूक आशिल्लें तं अक्का. सुवादान पोट भरी जेवल्यार मागीर नीद बाधा दितली.'

'जावो, इतेंय कुरकुरांवचाक आशिल्लें व्हरनु दवराय. कट्टन कापी हांव पांवयता.'

तान्नी एक टिन्नांत उणेच तळ्ळोलो घोरो काडलो. धा वरांचेर थांगा सगटांनीय निदेवप तं. दिन्नालो बप्पा पत्रा आपीसांत आसा. सकाळीं तं येतलो. कंप्यूटरा कूडांत चोवग मित्रय तांगेले प्रोजेक्टाचे विचारांत जाले. कितें जाल्यार कितें करका म्हुण तं तैयारी! वेळ वता तशीच आकांक्षा चडी जाली. स्वल्प चिके टेनशन ना म्हणूय ना! टोर्च, ॲमर्जन्सी लॅम्प, सेलफोन

सगट फुळ चार्ज केल्यां. आनी तें म्यूट - निशब्द - केल्यां. इखरा वरांचेर सगटांनीय कट्टन  कापी पिली. घोरो कोणाक नाका! मागीर तेग जाण टोर्च, लॅम्प, उदका बोतल, सानविच, दोरी इत्यादी घेवनु संथ देवले. घरांतुले दीवे वाडवयले. काळकांत एकेकलोच जावनु चमकून तोडु दांटवून परणे घराकडे पावले. दिन्नान शब्दु करनातीलें कवड काडलें.

पावस राबीलो जाल्यारीय परमांत उदाक आसा. तांगेलीं ओल्लीं पावलां थांगा खंय दिकूक नज दिकून घरांत चडतना पावलां आंवगाल्यान पुसून सोक्स घालून तं तेगांय भितरि चडलेले. कवड धांकून भितरचान लोक केलें. एकच चावियेन भायरचानय भितरचानय दिवंचे तराचें लोक तं ते कवडाक. भितरि भिणभिण काळूक. जाल्यारीय तान्नी टोर्च जळयलोना. घर चिरपरिचित दिकून सेल फोनाचो उजवाडूच तांकां पांवतालो. निसणि चडून ते माळ्यार पावले.

माळ्या मद्दें जावनु एकच एक होड कूड तं. ताका चारीय तांतूं दारवटे. दारवट्यांक कवडां कांय नाय. कूडा भायरचान चारीय तांतूं जावनु एक होवरी आसा. निसणि चडल्यार हे होवरेंत तं पांवतले. थांगाचान ते तेगांय मद्दें कूडांत चडले. मुकार दिन्ना. ताजे मागल्यान सोमा. आनी ताजेय मागल्यान रवी. तेगांचेय हातांत एकेक प्लास्टिका किट.

# ३

राकून बेसप तशी सुसाध्य कार्य न्हय. तेंवय राता राती! काळकांत नुतोच बेसून जाय राकप करूक म्हण्टना बहु कष्टकर कार्य. मनुष्यवासू नातिल्ले घराचे रुका माळ्यार अर्द वराकच शेंभर मिनिट आसाय सरी तांकां दिसलें!

बारा वरां दांटवतना मळबार स्वल्प जोगूल, गुडगुड आरांभिलो. पावसा लक्षण जावनु वारेंय चड जालें. माळ्याचे दोन तांतूं खळियां जनेलां आसाय. जोगुला उजवाड, गुडगुडा शब्द, आनी वार्या शेळोव माळ्यार सुलभ! जाल्यार पावसा निमित्तीं कांय बाधा ना.

तेगांय उटावनु चिके अशी तशी भोवले. एकमेकाचें सांगात तं तांगेलो आश्वास. घरांत एकटो बेसल्ले अजी विशीं तान्नी विचार काडलो. म्हळ्यार ताजे ओटू एकल्याक लागेन बेसोवंचे कशी? हांगा केवल दोगांच्यान कार्यां तांकलींनाय जाल्यार कितें करतले? तान्नी ब्रेड सानविच एकेक खेलें. उदाकय पिले. अजी कट्टन कापी पिलोलो आसतलो म्हुण आठयलें.

एक पावस पडून गेलो.

खळियां जनेलांतुल्यान चोयल्यार घराचें फिदरा आंगण स्पष्ट दिकूयेता. जाल्यार जनेलाकडे सबसूब राबून चोवप सम न्हय. आंगणांत पावलेल्याक आव्लांतूय दिकूयेतलें! तें दिकून एकेकलो जावनु परतून परतून थांगा आड राबून एक दोळ्यान तं वीक्षण!

एक पावटी दिन्नान थांगा राबतना सोमाय रवीय वचून चोरलो साकु मेकोळनु चोयले. चड मोलाचें सामान तं सगट. जाल्यार दुड आभरण काय ना. तान्नी साकु तशीच बांदून दवरलो. मागीर दुशेर दिन्नाले लागी पावले.

वरां साडे बारा जालीं! तांगेली प्रतीक्षा संथ निवंता. केद्दो वेळु पर्यंत राकूका म्हुण तं आनी निश्चय घेवंका. रातीन राती हें कार्य तांकां साध्य न्हय. तें दिकून हें कार्य फाल्या भायर सांगूका जावनु आसा. तेगांलींय तोंडां बावलीं.

दिन्नाले घरांतुल्या कंप्यूटरा कूडांत अजी एकेलोच तं. जनेला लागी कदेल घालनु तो बेसलो. जनेलाचे फाळींक खाल ऊंच जावनु अर्द अर्द कवडां तं. खालाचें एक कवड स्वल्प शीर सोडून वाकतें दवरल्यां. कुरटनाचे खांचीतुल्यान चोयल्यार ते परणे घराकडे वची वाट दिकूयेता. ताजे हातांतुलें बैनोक्युलर दोळ्यांक लायल्यार ते घराचें कवड थाकून माळ्याचें खळियां जनेल पर्यंत दिकूयात! ते जनेला लागी येवनु निपून चोयतल्ले एकेकल्यांकय ताणे जोगुला उजवाडांत परतून परतून दिकल्याय! ताजे तोंडार एक हासु उदेलो - चोरालागी बैनोक्युलर आसुन्ना म्हुण आठोवया!

कट्टन कापी येदेदी करनु तं तो पिता. कूडांतुलो दीवो सोंतू केला. कंप्यूटर ओण आसा. ताजेरी एक टरकी टवल पांगूरला. अत्यावश्य जाल्यार ताका इंटरनेटावेल्यान दिन्नाले सेल फोनाचेर एस एम एस पेटोवयात. ताजे कानांर एक हेड सेटय आसा. जाल्यार तो गींत बी न्हय आयकता. तांतुल्यानय ताजे कानार पडता पावसा गुडगुड मात्र तं.

कंप्यूटरावेलो टरकी स्वल्प ऊंच उबारनु तो डेस्कटोपाचे खालाचे मुल्यार चोयलो. 12.30. कानावेलें हेड सेट संथ देवोवनु ताणे केसूय कानय चिके घष्टिले. मागीर दुशेरीय तें मात्यार चडयलें. दोन जांबय

काडल्यो. एक पोळो मिठाय जिबेर दवरली. आनी उटावनु स्वल्प अशी तशी भोवनु उषार जालो. ताका कसलीय निराश दिसलीना. जाय तरी राती सगळीच नीद खळूकय तो तैयार! कट्टन कापी आनीकय आसा!

चांदीणे आशिल्लें जाल्यार उपकार आशिल्लो. आतां एकेक पावटी झळकुचे जोगुलाचे उजवाडांत मात्र तं कितेंय समच दिकूयात. तसले एक नीळ उजवाडांत छट जावनु ताणे परमांत एक मनुष्य रूप दिकलें! आंगार सगल्यान ऐस लागल्यावरि जालें ताका. छट करनु बैनोक्युलर दोळ्यांक लायलें. दुशेरे जोगलावणेंत ताणे ते मनिषाक व्यक्त जावनु दिकलो. सुकडो गुड्डो तरनाटो. काळशें टी शर्ट आनी पांट. खंचे की एक होटल वेयटराचो उडगास तं अजीक आयलोलो.

तो होगी कंप्यूटरा लागी गेलो. मेस्सेज मारलें. one coming. सेल फोनाचें नंबर मारलें. एस्सेम्मेस पेटेयलें. चांग ब्रोडबांड इंटरनेट तं थांगाचें. तोडोव जावन्ना. तो दुशेर जनेला लागी पावलो. बैनोक्युलर दोळ्यांक लायलें. एक जोगूल प्लीस! ताणे मनांत आठयलें.

व्हय, चोरु त्या घराच्या कवडा लागी पावला. अजी दुशेरें सिगनल दिवंचाक तैयार जालो. टोर्च हातांत काडलो. इंटरनेटावेल्यान पेटेयलेलें एस एम एस एक वेळार तोडोव जावयात. जाल्यार हें सिगनल instant आनी perfect तं! टोर्च संथ जनेला पाळियेर दवरनु ते घराचे माळ्या जनेलाक लक्ष्य करनु सिगनल दिवंचाक वतना तागेलो हात छट जावनु कडकडेलो - जोगला उजवाडांत हेंचय, दुशेरो एकोलो लागेन चमकून वता!

दोग जाण?!

अजीलें सिग्नल दिकिल्लो सोमा आखांत पावलो. टोर्च दोन पावटी जळून सोंतू जालेल्याक वेगळो अर्थ ना! एकोलो येता म्हुण तान्नी दिकलेलें.

गुड्डो सुकडो एकोलो. तशी भिवंचाक ना. आयुध काडूक दिवनयें म्हुण मात्र. आतां आनीक कोण येता? सोमान जनेला कडेच राबून बाकी दोगांकय आंग्य दाकयलें.

दोग जाण आसाय, दोग जाण!

दोग जाण? दिन्नाय रवीय आश्चर्य पावनु तोंडा तोंड चोयले. मागीर कुद्दून जनेला लागी पावले.

मुकार आयलोलो घराच्या कवडा लागी गेला. ताका आतां दिकूक येना. कवड काडचो शब्द बी आयकिलोना. तोवय ओल्ले पाय पुशीता बी आसूयात. घरांत पावला खांप आसूनज न वें! तान्नी चोयता चोयतां तोडु दांटवून येता दुशेरो. हो चिके अमसरान तं येता. हे भितरि दिन्नालें सेल फोन दोन फंतां जळ्ळें. एका मागल्यान एक जावनु अजीलें एस एम एस तं. दिन्नान तें परतून पोकेटांत शिरकायलें.

तेगांय जनेला कडे राबून लागीचे उजवाडाक राकताय आसतना, जोगूल सुमार जावनूच झळकलें.

खालाक परमांत पावलेले दुशेरे मनिषालें तोंड उजवाडांत स्पष्ट जातना तेगांय चेले स्तब्द जाले - संतमक्का!!

दोळ्यांचेर बैनोक्युलर चिरडून चोयताले अजीलें तोंड आश्चर्यान वाकतें जालें. तांचे वरीच ताकाय स्वंत दोळ्यांचेर विश्वास येना!

# 4

'आरे!'

संतमक्का धराधरारि चमकून येतनाच चोराक उळदिता तं. माळ्यार राबलेल्यांक आतां दोगांकय दिकूयेना. उलोंवचें मात्र आयकूयेता. अक्का ते चोराक कोप्पीता तं. तोवय तिंका अक्का म्हुण तं उळदिता. भयान भयान तं तागेली जाप.

'हें दंद केद्दाण थाकून आरांभिलें रे पिश्शाटा तूवें?'

संतमक्कालीं हीं उतरां आयकून चेल्यांक तेगांकय होडि समाधान जाली. संतमक्काक हांतूं कसलोय हात बी आसा वे म्हुण तांकां हुसको तं आशिल्लो. तेगांय आतां आळता पेळतांतु चोवनु निशब्द हाशीले. कायरें आतां अंडर कंट्रोळ तं!

संतमक्कान खाला कूडांतुलें लायट जळयलेंच. तिका होड कोपु आयलोलो. आन्नालो एकलोच पूत तं हो रंगा. शिकवणेक स्वल्प मागल्यान आशिल्लो. कसलेंच चांग दंद मेळना आशिल्लें. जाल्यार अशी कूडो वांकूडो जातलो म्हुण तीणे सपनांत सरी आठयलेलें न्हय. आतां अविचारित जावनु तं तीणे ताका दिकलोलो. एकेक विचारान नीद येवनातीलें ती तिगेले कूडांत जनेल वाकतें करनु अशीच भायर चोवनु बेसलेली. तावळि तं हो अशी परमांतुल्यान संथ वता! ती होगी भायर देवली आनी ताजे मागल्यान हांगा पावली. तो तावळि कवड काडून स्वंत घरा वरी भितरि चडता! तिका आयलो कोपु म्हुण सांगूका वे मागीर?

'हांवें कांय केलेंना अक्का.' रंगा सगळोच भिल्ला.

'ह्या घराची चावी तुका कशी मेळ्ळी? इत्याक चडलो हांगा?'

‘हांगा कोण राबून ना दिकून हांव साबाव राती निदेवंचाक चडलोलों. फाले फाल्यार उटावनु वतलों.’

‘तुका कशी कळ्ळें हांगा कोण राबून ना म्हुण? सत्य सांग, हे राता राती तुका इत्तें की दंद?’

रंगाक जाप ना. ताका अक्काले तोंडाक चोवनु फटी मारूक जायना. चेल्यांनी हे समयार माळ्यार थाकून देंवचाक निश्चय केलो. आनीकय निपून आयकून कायरें ना. माळ्यावेले साका कायरें अक्का लागी सांगूका. सोमान टोर्च जळयलो. तेगांय संथ खालाक देवले.

निसणी कूडांतुल्यान तान्नी येताय चोवनु अक्का तोंड ‘आं’ करनु राबून गेली! रंगा भयान धवो जालो. आनीक फटी सांगूनूय कायरें ना म्हुण ताका कळ्ळें. जेयलाचेंय पोलीसांचेंय एक भयानक चित्र ताजे दोळ्या मुकार उदेलें. ताणे दोळे ताराटून धांकले. हात पाय कडकडेताय. धीरु सोडून तो राबलेले कडेच खालाक बेसून गेलो.

‘हे राताराती तुमी चेरडूवां इत्तें करताय हांगा?’

अक्कान आश्चर्यान निमगिलें.

‘अक्का हाका वळकता वे?’ दिन्नान प्रतिप्रश्न केलो.

‘हाणे खंय थाकून सगट फारनु हाडलेली सामग्रि सर्व हांगा माळ्यार साकांतु बांदून दवरल्या!’

‘व्हय रे पिश्शाटा?’

अक्का रंगाचेर घुवली. तो मातें बावगोवनु खालाक बेसला तं. दोनीय हात मात्याक तेंकल्याय. रवीक पाप दिसलें. ताणे धरारि मुकार सरनु अक्काक धरली. ना जाल्यार ती रंगाक मारतलीच आशिल्ली.

‘मिजे पुतो..’ संतमक्कान दिन्नाक जाप दिली.

‘मिगेले आन्नालो एकलोच पूत तं हो. नांव रंगा म्हुण. शिकूक स्वल्प

मागल्यान आशिल्लो. जाल्यार अशी कूडो वांकूडो जातलो म्हुण हांवें सपनांत सरी आठयलेलें न्हय.'

'दोन दीस मुरथम हांव ह्या माळ्यार चडलोलों.' दिन्नान विवरसिलें. 'थांगा एक साकांतु भर गृहोपयोगाचें इलक्ट्रिकाचें जायतें साधन दिकलेंलें. खयनेन एक चोरु ह्या घरांतु येता वता आसा म्हुण कळ्ळें. आजि आतां आमी तेगांय हांगा एक राकून चोयतालीं तं.'

'चोरु' म्हळ्ळेले संबोधनेंतु रंगाक आंग सणसणेलें. मातें बावगोवनूच तो फुतफुतलो - 'सगट थांगाच आसा. हांवें कांय व्हेलेंना विकलेंना!'

'व्हय व्हय, तूं कांय नेण लागेन! तूं हांगा साबाव राती निदेवंचाक चडलोलो न्हय वे?' अक्कान दांत किरडिले.

'फाल्या थाकून तुका निदेवंचाक हाजाकय चांग स्थायु दीवूं. थांगा तुका खावंचा पिवंचाकय साबाव मेळतलें!'

'माका कांय नाका. हांव बांयतु उडी मारतलों!'

रंगाले दोळे भरले. एक वर्ष मुरथम एकूच दीस पोलीस लोक्कप्पांतु पडलोलो उडगासूच ताका भयानक आशिल्लो.

ह्या वेळार दिन्नान छट जावनु पोकेटांतुलें सेल फोन जळता दिकीलें. अजी उळदीता आसतलो म्हुण तं ताणे आठयलेलें. जाल्यार फोन कानाक लायलेलेंय तागेलें तोंड विस्मित जालें.

'व्हय.......... व्हय.......... सांगन............ येतां!'

तागेले हावाभावाचेर आश्चर्य पावनु सर्वय ताका प्रश्नरूपान चोयलीं. फोन ओफ करनु ताणे विस्मय पावनूच सांगलें.

'अप्पा तं उळदितालो. अप्पा घरकडे आसा. आमी सगटय मेळनु थांगा येयाय खंय, रंगाकय घेवनु! कार्याक समाधान करूं खंय! अप्पाक हें सगट थांगा कशी कळ्ळें म्हुण कळना!'

# 5

कंप्यूटरा कूडांतु आवश्याक आशिल्लीं कदेलां घालून अजी हासून राबलोलो. एक कदेलार बेसून दयानंद पै मामूय मंदहास समेत तांकां राकतालो. सगटानीय कूडांत चडतना अजीन कूडा कवड संथ आड केलें. घरां भितरी दिन्नाली अम्मा आतांय कांय नेणतीलें निदेरि तं!

ते घरांतु चमकिल्लें कायरें सगट हांगा कशी कळ्ळें म्हळ्ळेल्याचें रहस्य अजीन सांगलें. तान्नी थांगा व्हेलेले टोर्चांतु ताणे एक मिनि मायक्रोफोन फिट केलेंलें खंय! तांगेलें थांगाचें संभाषण पुरतेंच ताका हांगा आयकूक येतालें! अखेरचें उणेच पै मामानय आयकिल्यां!

मामान प्रेसांतु थाकून एकेक वेळार तं घराक येवप. घराच्या एक तांतूल्या कवडाची चावी केदनाय हातांतु आसतली. तशी आवश्य कितेंय आसा जाल्यार मात्र तं मामु कोणाकय राती जागयतलो. आजि आतां स्वल्प मुरथम तं पावलोलो. कंप्यूटरा कूडांतु चिके उजवाडु सरी दिकलो म्हुण चोवंचाक आयलोलो. तावळि टरकी पांगुरलेलें कंप्यूटर आनी जनेला लागी हेड सेट दवरनु बेसलेले अजीक दिकलो. अजीन कांय तरी निपयलेंना. रंगाली अखेरची जाप आयकून तं पै मामान दिन्नाक फोन केलेलें.

संतमक्का रंगाले हाताक घटी धरनु तं घेवनु आयलेली. जाल्यार ताजें आवश्य कांय ना आशिल्लें. धावंचाक वचून चमकूक सरी धीरु ताजांतु ना आशिल्लो! ताका थांगा बेसूक कदेल दिलें तरीय तो खालाकच बेसलो. पै मामाले तोंडाक एक दयनीय जावनु चोयलो. मागीर दृष्टी भुंयचेर खोंबीली.

‘तूवें फारलेलें साधन कांय व्हेलेंना विकलेंना म्हळ्ळेलें सत्य वे रंगा?’

पै मामान निमगीलें.

‘व्हय सर! सत्य तं सर!’

‘तूवें फारलेलें सर्वय हांगा एक साकांतु मात्र वे आसा? कीं आनीकय वेगळे कडे सर्व आसा?’

‘ते एक साकांतु मात्र तं आसा सर.’

‘तें कितले घरांतुलें कीं? तीं घरां सर्वय तुका उडगास आसाय वे?’

‘आसाय सर! जाल्यार इत्तें सगट खंचे घरांतुलें म्हुण उडगास ना सर!’

‘तें वचो, कायरें करका नाका. तुका केदनाय पुणीय पोलीसान धरलोलो आसा वे? शिक्षा मेळ्ळेलासा वे?’

‘एक जाथेक वचानीक एक दीस लोक्कप्पांतु पडलोलासा सर!’

‘जाथा? कसली जाथा? केद्दाण की तें?’

‘एक वर्ष मुरथम तं सर. हांगा न्हय, तिरुवनंतपुरांतु तं सर. आमी उणेच जाणाक तान्त्री जाथे खातीर कूलीक काडलेले. पोलीसांनी आमकां धरले. जाथेन अक्रमु केलो खंय!’

‘व्हय व्हय आसो!’

पै माम संतमक्का लागी घुवलो. ती कंप्यूटरा मेशाक तेंकून राबलेली. होड धर्मसंकटांतु आशिल्ली. तिका रंगाचेर कोपूय येतालो, ताचेर पापय दिसतालें.

तिगेले विचारांक जाप सरी पै मामान सांगलें.

‘हाणे एकडे केलेलें साधन सर्व आमकां त्या अगति मंदिराक दीवूं. तीं

ताजें लैलांव घालनु अगतीं खातीर कितेंय वस्त्र वक्कद बी घेतलीं.’

‘माका पोलीसा लागी दिवन्ना वे सर?!’ रंगाक विश्वास येना.

‘दीवंका वे?’ पै माम हाशीलो.

‘नाका सर! नाका सर! माका कार धांवडांवचाक कळता सर!’

‘व्हय वे?’

पै माम चेरडुवां लागी घुवलो. तांकांय एक जाप वताली.

‘हांगाचो नवो सर्कल इन्स्पेक्टर बहु लासडो. ह्या रंगाक हातांत मेळ्ळ्यार हाजे मात्यार तो आशिल्लेंय नातिल्लेंय सर्व केस दवरनु दितलो! तागेले हाता पायां रुची घेतना हो तीं केस सर्व मात्यार घेतलोय!’

हे भितरि रंगा छट करनु उटावनु पै मामाले पायां कडे पडलोच!

‘उपकार आसा सर! हांवें विसोरना सर!’

‘आसो, आसो.’ पै मामान ताका समजायलो. ‘तत्काल तुका मिगेलो ड्रायवर करीन.’

‘हांवें लायसेन्स काडलेंना सर!’

तागेली जाप आयकून सगटांक हास फुटलो.

‘आसो. तें आमकां सामकी करूं. म्हळ्यार प्रेसांतुलें कसलेंय दंद स्वल्प स्वल्प करनु शिकून काडशी जाल्यार मात्र तं तूं वांचतलो!’

माम उटायलो.

‘यो रे!’ संतमाक्कान रंगाक उळदिलो.

‘आजि आतां मिगेले कूडांत पड!’

अशी जाली ती साहसी राती! दीवे वाडवोवनु निदेवनु जावनूय एक वरा

लागी वेळ ते अशी तशी उलोवनूच आशिल्ले. आश्चर्य म्हळ्यार, अशी तोडोव करनु पडले जाल्यारीय हेरदूसा सकाळीं ते सदांचे पशी मुरथम जागे जाले!

आनी तो आशिल्लो एक अत्यंत संतोषाचो दीस.

तें परणें घर अशी रितें घालप उचित न्हय म्हूण दयानंद पै मामाक अनुभवांतुल्यान कळ्ळेलें. तें दिकून आतां तें अविनाश रावूक - सोमाले, अजीले कुटुंबाक - स्वल्प ऊणे भाड्याकच दीवूं म्हूण ताणे निश्चय काडलो. चेरडूवां चोवगालेय संतोषाक सीमा ना आशिल्ली! आनी एकडे जांवचाक तांकां कसलेय प्रोजेक्टाचें निमित्त नाका मू!

## अनिश्चित

शरतचंद्र शेणै

केरळच्या पश्चात्तलाचेर रचलेली नवलिका.

तीन दशकां पूर्विल्लो काळखंड.

'अनिश्चित' म्हळ्यार

जीवित म्हळ्या पदाचें एक पर्याय पद..



कथा

# ई क्यू !

सोमार सकाळीं 9 वरांचो वेळ. स्कूलांत वचाक सगट तयारीय करून भायर सरनूय जावनु अखेर तं चेल्यांनी सकाळची चाय पीवप. दिन्नान डैनिंग रूमांतुल्या मेजा मुकार पांवतना थांगा तागेली अम्मा ताका राकून बेसलेली. तीणे खबरे पत्राचें भितरचें पान विस्कळावनु मेजार दवरल्यां.

'चोय रे दिन्ना हें. तूं वळकतलो मू हाका!'

एक चेल्यालें फोटो तं. फोटोचे खालाक तागेलें नांव इत्यादी दिल्यां. शीर्षक आसा 'काण्मानिल्ला' म्हुण!

'व्हय, हांव वळकता आनंदाक. आमचो सीनियर तं. प्लस टू जावनु एन्ट्रन्स बरयल्यां..'

दिन्नाक आश्चर्य जालें. हुस्कोय दिसलो. रत्नकला मांयेन्न एक निश्चयाचेर पावनु सांगलें -

'तागेले अम्मा बप्पाक एकलोच पूत तं तो! हांव वळकता तांकां. चांग कुटुम्ब. स्वल्प कष्ट अरिष्ट सगट आसा जाल्यारीय परिश्रमान मुकार वचीं मनीष. दैवभक्ती आशिल्लीं मनीष. कष्ट चोय तांगेले! हांव आजीच एक वता आसा तांगेथंय..'

ती एक सामूह्य प्रवर्तका मू.

'*पुता तूं परतून यो!* म्हुण सगट बरयल्यां मू ताजेर. तो स्वयं घर सोडून गेला म्हुण न्हय वे समजता?'

---

* missing - शेणला!

दिन्नान निमगीलें. ह्या वेळार रवीय पावलो थांगा. पत्र चोवनु ताणे वेगळीच एक खबरी दिली.

‘ताका प्लस टू परीक्षेंतु मात्स विषयाक मार्क बहु ऊणे जालें म्हुण आयकिल्लें. खयनेन जालेली चूकि तं. तें सोदून सम करूक ताणे अपेक्षा दिल्या म्हुण तं आयकिल्लें.’

‘व्हय, तो शिकूक बहु दाष्टीक तं. सर्व विषयांतूय ए प्लस मेळप तं ताका.’

दिन्नान उडगास केलो.

दोगांय चेल्यांनी घरा भायर देंवतना सोमा आनी अजीय पावलो. तान्नीय खबर वाचल्यां. स्कूलांतूय तोच आशिल्लो चर्चाविषय.

‘मार्क चुकल्यां म्हुण आमकांय कळता, ताकाय कळता. कसलेंय कार्य जाल्यारीय, कोणाच्याय हातान जाल्यारीय एक दोन चूकि जाताच. आतां ही चूकि जाल्यार सरळ सम करूयात जालेलीच चूकि. ते खातीर स्वल्प तोडोव जालो, वा जातलो म्हुण सांगून अशी करप आसा वे कोणेंय? अपुर्बुद्धी न्हय वे ही?’

दिन्नाली हेड टीचर हें सांगतना चिके विकारवश जाली. कारण आनंदाक तीणे शिकयलोलो आनी ताका स्कूलांतुलो बेस्ट आउटगोयिंग विद्यार्थी म्हुण वेंचून काडलोलो. मात्स मास्टरानय समान अभिप्राय सांगलो.

‘आतां स्वंत अम्मा बप्पाक दुखांत घालींनाय वे ताणे? कसलें आवश्य? आय क्यू चड तागेलें, जाल्यार ई क्यू सो पुवर! आमीच चोयताय आसाय तें मार्क लिस्ट सम करूक. ते कार्यांतु भिवंचें आवश्य ना.’

देनपारां जेवणा वेळारीय ह्या कार्यांतु नवो विवर कांय मेळ्ळोना. केवल मार्क लिस्टावेली चूकि मात्र न्हय आनंदाले तिरोधानाक कारण म्हुण तांकां

दिसतालें. वेगळें कितें आसूयात? आनंदालो एक आत्ममित्र आसा, शशी. तागेलें घर तांकां कळतालें. सांजे थांगा वचूका म्हुण चोवगांनीय निश्चय काडलो.

स्कूल जावनु तान्नी घराकडे पांवतना दिन्नाले अम्मान स्वल्प लागेन कार्यां सांगलीं. ती आनंदाले घराकडे गेलेली चांग जालें म्हुण ताका दिसलें.

तांगतांगेले घरकडे चाय पीवनु जावनु चोवगांय मेळनु शशीक दिकूक गेले. वचे वाटेर अम्मान सांगलेलीं कार्यां दिन्नान तांचे लागी विवरसीलीं.

'दोन दीस मुरथम घर सोडून गेलो खंय तो. खयनेन एक काम मेळ्ळें दिकून वता म्हुण एक चीटि बरोवनु दवरलेली तागेले मेजार थाकून मेळ्ळी खंय. तान्नी जायते दिकार सोदलो, आनी उपरांतें पोलीस स्टेशनांतूय कळयलें..

आनंदालो बप्पा तांगेलें घर चांग करचे खातीर एक बेंक लोण काडूक श्रमु करतालो खंय. जाल्यार त्या कार्यांतु कसली कीं आडावण आयली. ताजें टेनशन काडून बेसल्ले वेळारीच ह्या मार्क लिस्टाचो घुसोप लागेन आयलो म्हुण तीं सगट चिके विचारांत खंय आशिल्लीं. आनंदाक मुकार एंजिनीरिंग शिकूचे खातीरीय बेंकांत थाकून विद्याभ्यास लोण घेवंका म्हुण तीं आठयतालीं. ताजी अवस्थाय कशी जायत म्हुण तांकां होड हुसको आशिल्लो.'

हें आयकून रवीक छट जावनु उडगास आयलो -

'विद्याभ्यास लोण कित्याक? अर्हता आशिल्ले कोंकणी विद्यार्थ्यांक ह्या वर्षा थाकून विद्याभ्यासाचें फ्री स्कोलरशिप दिताय म्हुण कळना वे तांकां? एंजिनीरिंगाचे मुकावेले चारीय वर्षा तें मेळतलें.'

'ना, तांकां तें कळना आशिल्लें खंय. अम्मान तें सगट आजि तांकां विवरण करनु दिल्यां. जाल्यार तो आयल्यार मू अपेक्षा पेटोवयात!'

'एन्ट्रन्साक चांग रांक मेळतलें ताका. सरकार कोलेजांतु भरतीय मेळतली. तें दिकून फीस ऊणे तं आसतलें. ह्या कोंकणी स्कोलरशिपाक अर्हताय आसा. हें कांय नेणतीलें तो शिकवण सोडून धावला!'

सोमाक हें आठयतना कोपु तं येता.

शशी तागेले घाराकडे आशिल्लो. ताका हे भितरि जायते जाणांनी येवनु दिकला, पोलीसकारांनी पर्यंत!

'परीक्षेचें मार्क कळत थाकून तो चिके विचारांत तं आशिल्लो. लोण मेळ्ूक आशिल्ले कष्टा पासूनूय सगट ताका हुसको आशिल्लो. मार्क लिस्ट सुधारून मेळत वे म्हणूय संशय सांगतालो. घर सोडून वचें कार्य कांय बी मिजे लागी सांगलेंना. खंय गेला, कसलें काम मेळ्ळ्यां म्हुण कांय माका कळना.'

शशीन हीं कार्यां हे भितरि मस्त जाणा लागी सांगलेलींच. तागेले घरकडे कसलेंय फोन ना, आनी ताका ह्या दिसांनी आनंदान संपर्कूय केलोना खंय.

'तावळि अखेर जावनु तूवें ताका दिकलोलो केद्दाण?' दिन्नान निमगीलें.

'गेल्या बिरेस्तारा हांगा रेसिडेन्स असोसियेशनालो एक कार्यक्रम आशिल्लो. सर्व विषयांतूय ए प्लस घेतलेले विद्यार्थ्यांक अनुमोदन दितालीं. ते वेळार तं अखेर जावनु ताका दिकलोलो. जाल्यार तागेलें नांव कांय तांगेले लिस्टांतु नासलेलें.'

'जाल्यारीय त्या कार्यक्रमाक तो गेलोच मू! तुमचे ओटू आनी कोण आशिल्लें? तांतूं कोणाकय अनुमोदन आशिल्लें वे?'





‘आमी दोगच तं आशिल्ले..’

‘तावळि तुमी कित्याक गेले त्या कार्यक्रमाक? असोसियेशनाचे सर्वय कार्यक्रमाक तुमी व़चप आसा वे?’

‘तशी कांय ना. ताणे तं माका उळदून व्हेलोलो. कार्यक्रम अर्द जातनाच हांव परतून आयलोय. मागीर हांवें ताका दिकलोना.’

शशीक मागीर चड कांय सांगूक ना दिकून ते देवले. जाल्यार त्या संदर्शना विशीं चोवगांकय एक तृप्ती ना.

‘कितेंकीच तो पुरतें सांगना सरी दिसता!’

अजीन सांगलें. तो तं तांचांतुलो होडलोच संशयालु. जाल्यार हे पावटी तागेले संशयांत बरेंच वास्तव आसा म्हुण बाकींच्यांकय दिसतालें. जाल्यार वेगळ्या कोणा लागीय निमगूया म्हळ्यार आनंदाक शशीचे भायर वेगळो एक मित्र म्हुण नायीय!

छट करून दिन्ना घुवलो. ‘हांव आतांच येवीन!’ अशी सांगून तो दुशेर शशीले घराकडे चमकीलो. ते थांगाच ताका राकून राबले. धा मिनिट धरली ताणे परतून येंवचाक. येतना तागेले तोंडार स्वल्प उजवाड आशिल्लो.

‘तेद्दूस त्या कार्यक्रमाक वतास्तना आनंदान शशीक ओटू व्हेलो जाल्यारीय कार्यक्रम अर्द जातना आनंद वेगळेच एकल्याले ओटू गेलो खंय! तें दिकून शशी एकलोच खंय परतून आयलोलो!’

‘ताणे हें प्रथमच सांगलेंना कित्या? हें कार्य पोलीसा लागी सांगलें खंय वे?’

‘येद्दोळ हें कार्य कोणा लागी सांगलेंना ताणें! हांवें एकलोच परतून वचून चिके बल करून निमगीलें दिकून तं हें आतां भायर आयलेलें! आतांय सांगून्ना आशिल्लें ताणे. आनंदाले मुकावेले शिकवणेक फ्री स्कोलरशिप

मेळतलें म्हुण सगट ताजे लागी विवर्सून सांगिल्ले उपरांतें तं हें आतां ताणे सांगलेलें. आनंदाक आतां मेळ्ळेले कामाक कसलीय आडावण हाड्नूज म्हुण ताणे विशेष जावनु सांगलेलें खंय! जाल्यार खंतय काम म्हुण जावो, कोणा वाटेन म्हुण जावो, वेगळें कांय एक कार्य शशीक कळना! त्या कार्यक्रमाकडे थाकून आनंद गेलोलो कोणाचे ओटू म्हुण तं आनी आतां सोदूका!'

'त्या कार्यक्रमाचें वीडियो कव्हरेज लोकल चनलाचेर आयलेलें तं!'

रवीक उडगास आयलो. ताणेय तागेले अम्मानय सदांच चोवप आसा ते लोकल चनलाचें रातीचें समाचार बुलेटीन.

'ताजें आडियो-वीडियो फुटेज चनलाकडे आसतलें. जाल्यार आमी गेल्यार कांय तें मेळप सुलभ न्हय.'

सोमाक ताजो अनुभव आशिल्लो.

'अप्पा लागी सांगूं..'

दिन्नान सेल फोन हातांत काडलें. दयानंद पै माम एक मलयाळम दिनपत्राचो मुख्य संपादक मू. दिन्ना लागी सर्व कार्यय समग्र जावनु तो निमगून जाण जालो. ह्या कार्यांत मुकार सरलेले खातीर तांकां appreciation कळोवनु, वीडियो कव्हरेजा कार्य साध्य जातना उळदीन म्हुण सांगलें.

घराकडे परतून पावलेलें सोमा लागी आनी अजी लागी तांगेलेय अम्मा बप्पान कार्यां निमगीलीं. बेंक लोणा कार्य आयकून अविनाश रावूक अवचीत हास फुटलो.

'मल्या मामाक (आनंदालो बप्पा) बेंक लोणा विशीं कांय एक कळना दिकून तं अशी कष्ट भोगलेले. खबर नातिल्ले जायत्या जाणांक अशी जाता.'

ताणे मुकार म्हळें -

'घर रिपेर करूक न्हय वे लोण जाय ताका? चड जाल्यार एक लक्षु बी तं जाय आसतलो. ते खातीर ताणे वचून घरा लोणाची अपेक्षा दिली आसतली! ताजें आवश्य ना! वेगळीं स्कीम आसाय. पन्नास सासु तागेले नांवारीय पंचेवीस सासु बायलेले नांवारीय लोण मेळूक होड कष्ट, आडावण, तोडोव कांय ना! हांव फाल्या सकाळींच वचून दिकन ताका. आळता पेळतांतूं तोंड वाकतें करनु उलयल्यार मू जाता. ना जाल्यार हें सगट कोणाक कळता? वाराक एक पावटि पुणीय हे मनिषाक देवळांत दिकप आसा. दिकतना हासतलो इतलेंच!'

एक प्रायवेट कंपनींतु अकौंडेंट तं अविनाश राव. असले कार्यांतु बरी कळाकळी आनी प्राप्ति आसा ताका.

ओट्टू मेळनु चोयतना आनंदाले कुटुम्बार तान्नी आठोवंचे तराचे कसलेच संकष्ट ना म्हणूच सोमाक दिसलें. लोणा कार्य तागेले अप्पान चोयल्यार मागीर कसलोय विचार नाका. शिकवणे खातीर खात्री जावनूच आनंदाक तें कोंकणी स्कोलरशिप मेळतलें. एन्ट्रन्सांतु ताका चांग रांक मेळतलें म्हळ्ळेल्यांतूय संशय ना. मागीर आसा मार्क लिस्टावेली चूकि तं. ते खातीर आतां स्कूलांत थाकूनूच तान्नी श्रमु आरांभिलोय आसा...

'ताणे होगी एक परतून आयल्यार मात्र पुरो!' ताणे आठयलें.

सोमान केवल मनांत मात्र प्रकट केलोलो हो आग्रह हेरदूसा सकाळीं भितरि अतिशयाचे वेगान सफल जालो! सकाळींच दिन्ना येवनु तांकां दोगांकय तागेथंय ब्रेकफास्टाक आपोवनु गेलो. तावळीच ताणे कार्याक शुभांत जालो म्हुण कळयलेंय. ब्रेकफास्टा ओट्टू पै मामान तं पुराय माहिती दिलेली.



'शशी लागी थाकून मेळ्ळेली खबरी बहु उपकारा पडली. लोकल चनलाकडे थाकून कालि सांजेच त्या कार्यक्रमाचें सगळेंच फुटेज मेळ्ळें. कार्य जाणयतना पोलीस स्टेशनांत थाकून इन्सपेक्टरूय वेगळेय आयले. कार्यक्रमाक आयलेल्या सदस्यां भितरि आनंदा लागी आसलेल्याक ते धरार वळकले. वेगळे संस्थानांतु cheap labour जावनु दंदेल्यांक पावोवंचो दल्लाळ तो. कालि रातीच तान्नी ताका धरलो. आनंदालें बाच्च आतांय तांगेले तात्कालिक केंपांतूच आशिल्लें दिकून फांतोड फुटतनाच ताका सीधा तागेले घरकडे पावयलो! नुपूरो वे?!'

'बुद्धि मस्त आसा. जाल्यार मनाक बल ना! तें तं असल्यांलो ऊणाव!'

रत्नकला मांयेन ते संभवकथेचें गुणपाठ सांगलें.

'मास्तर म्हण्टालोच तं.. तागेलें आय क्यू चड तरीय ई क्यू ऊणे म्हुण!'

दिन्नान उडगास काडलो.

'व्हय. जीवितांतु विजय पांवचाक स्वल्प बरें एक ई क्यू अती आवश्यक आसा..'

पै मामूय तेच मताचो आशिल्लो -

'विधि वैपरीत्यां, प्रतिकूल साहचर्यां सगट म्हळ्यार वाटेर राबून भोंकतल्ल्या सूण्यां वरी. आमी भिलीं, मागल्यान सरलीं, घुवनु धावलीं बी जाल्यार तीं आमची फाटि घेवनु येवनु घास काडतलीं! उपराटें, आमी धैर्यान तांकां अभिमुख जावनु राबल्यार तीं राबिल्ले कडे राबून भोंकतलीं मात्र! आनी आमी आत्मधैर्यान एक पावल मुकार दवरतना तीं भीवनु धांवतलीं!!'

---

IQ = इंटेलिजेन्स कोष्यंट  EQ = इमोषनल इंटेलिजेन्स कोष्यंट



**Other Books**

मीरा, जीवन आनी कवन (Mira, Jivan Ani Kavan)
*Devaki Krishna Trust Translation Award (1991)*

श्रीकृष्ण कर्णामृत (SriKrishna Karnamrit)
*Translation from Sanskrit. Co-Author: Dr. P. B. Janardhan.*

साहित्य संकलन (Sahitya Sankalan)
*Edited Anthology - Konkani Literature of Kerala.*

अंतरनाद (Antarnad )
*Collection of Poems*
*National Award from Sahitya Akademi (1999)*

काव्योद्यान (Kavyodyan)
*Edited Anthology - Konkani Poetry of Kerala.*

कोंकणी बरयतना (Konkani Baraitana)
*A hand guide for writers. Co-Author: Sri. P. G. Kamath.*

लोकधन (LokaDhan)
*An Introduction to Konkani Folklore of Kerala.*

श्रीवेंकटेश सुप्रभात (SriVenkatesa Suprabhat )
*Translation from Sanskrit.*

साहित्यदीप्ति (SahityaDeepthi)
*Edited Anthology - Konkani Stories and Travelogues.*

श्रीकृष्ण कथासुधा (SriKrishna KathaSudha)
*Story of SriKrishna in 108 verses.*

आत्मायन (Atmayan)
*Collection of Poems.*
*Dr T M A Pai Best Konkani Book Award (2010)*

नंदादीप (NandaDeep)
*Edited Anthology - Konkani Literature of Kerala*
*Depicting its Dawn Era(1850-1950)*

गीतसरोवर (Geet Sarovar)
*Collection of Songs.*

अनिश्चित (Anischit)
*A Novelette.*